# गावंया तांच्यो आरती

अभयकुमार




शणै प्रकाशन

वेलींग – गोंय– ४०३ ४०४

शणै प्रकाशन :

○ पयली खेप : मे १९९७.



○ उजवाडावपी :
शणै प्रकाशन
वेलींग-म्हाड्डोळ
गोंय-४०३ ४०४

○ छापपी :
एस. जे. हुंद्रे
रवि मुद्रणालय,
कडोलकर गल्ली, बेळगांव
फोन : ४६००७९

○ मोल : २० रुपया

# मदनलाल धिंग्रा

हे पवित्र मातृभुंयेक गुलामगिरिच्या बांदपांतल्यान सोडोवन स्वतंत्र करूंक जायत्या तरणाटयांनी आपलो जीव दिला. आपलें जिवीत ओपलां. तांतलोच एक मदनलाल धिंग्रा.

स्वातंत्र्यवीर विनायक दामोदर सावरकार जेन्ना इंग्लंडाक बॅरिस्टर जावंक म्हुण गेल्लो, तेन्नाची ही गजाल. मदनलाल आपले शाळेचे शिकप पुरे करून वयले शिकूंक म्हूण घरचो विरोध आसतनाय १९०६ वर्सा भारतांतल्यान इंग्लंडाक गेलो.

त्यावेळा सावरकार 'इंडिया हाऊसां'त रावतालो. थंयच्यान तो भारताच्या स्वातंत्र्याचो प्रचार करतालो. भाशणां दितालो. इंडिया हाऊसांत एका ताच्या उलोवपाक मदनलाल गेल्लो. थंय तो सावरकाराक मेळ्ळो. सावरकाराच्या विचारान तो बरोच प्रभावित जालो आनी मातृभुंयेखातीर आपणेंय कितेतरी करचें अशें ताका दिसूंक लागलें. तो सदांच इंडिया हाऊसांत सावरकाराच्या कार्यावळीक वचूंक लागलो.

एकदां मदनलाल सावरकाराकडे वचून आपणांक मातृभुंयेखातीर त्याग करपाची इत्सा आसा म्हुण सांगूक लागलो. पयलीं सावरकारान ताका कांयच सांगलेना, पुण एक दीस ताची परिक्षा घेवन तातूंत तो पास जाला म्हणपाचें पळोवन सावरकारान ताचेर एक जबाबदारी सोपयली.

धिग्राक ताणे म्हळें, 'मदनभाय तूं ज्या खिणाची वाट पळेतालो तो खीण आतां आयला.' मदनलाल रोखडोच तयार जालो. सावरकारान ताका कामाची कल्पना दिली.

इंग्लंडाक 'नॅशनल इंडियन असोसिएशन' नांवाची एक संस्था आसली. हे संस्थेवतीन वयले शिकप घेवंक इंग्लंडाक येवपी भारतियांक इंग्लीश सत्तेची तोखणाय करपासारखें चुकीचें शिकप दिताले. मदनलालाच्या मनांत हाचो राग आसलोच. हाचो सूड घेवचेनदरेन तो ते संस्थेत, संस्थेच्यो सचीव कु. एमा जोसेफाइल बेक हिका मेळून भितर सल्लो.

१ जुलै १९०९ दीस आसलो तो. नॅशनल इंडियन असोसिएशनांत एक समारंभ आसलो आनी थंय कर्झन वायली येवपाचो आसलो. कर्झन वायली म्हळ्यार अत्याचाराची एक खूण आसली. ताणें भारतियांचेर केल्ल्या अन्यायाक लागून मदनलाल पिसावल्लो. त्यादिसा सांजवेळां मदनलाल मनांत कितेंतरी थारावन आसलो, ताणे मळबाकोराची निळी पगडी माथ्यार घाल्ली. आंगार सूट, गळ्यांत नेकटाय, आनी दोळ्यांर गोगल लायिल्लें. कोटाच्या बोल्सांत ताणे दोन पिस्तोलां आनी दोन चाकू दवल्लेले. तोंडात कालीमातेचें स्मरण चल्लेलें.

बरोबर आठ वरांचेर तो सभाघरांत पावलो, वेळ कसो गेलो ताका कळ्ळेंच ना. रातचीं बारा जालीं. कार्यक्रम रंगात आयिल्लो. धिंग्रा बोल्सांत हात घालून कर्झनासामकार गेलो आनी कोणाक कळचेपयलीच कर्झनाची छाती गुळयानी फुटली. गुळयांच्या आवाजान सभाघर भल्लें. आनी फकत आपलें रक्षण करूंक म्हुण मदनलालान कर्झनाचो वांगडी कासवजी लालकाका हाचेर गुळी माल्ली. कांय दिसांनी तो हॉस्पीटलांत मेलो. मदनलालाक धल्लो तेन्ना तो निर्भय आनी प्रसन्न दिसतालो.

सावरकार आपल्या शिश्याक मेळूक बंदखणींत गेलो तेन्ना मदनलालान ताका उमेदीन येवकार दिलो. सावरकाराक ताचो भोव अभिमान दिसलो.

धिंग्रान व्हडा अभिमानान सांगलें, 'सावरकारबाब, म्हज्या मरणाउपरांत म्हाका हिंदू पद्धतीन जाळात आनी म्हजी राख भारतांत विसर्जीत करात. म्हज्या सगळ्या साहित्याची पावणी करून जें कितें मेळटलें तें राश्ट्रीय निधीक दियात.'

१० जुलयक धिंग्रान न्यायालयांत उलयतना म्हळें, जेप्रमाण जर्मनीचेर राज्य करचेलो इंग्लिशांक अधिकार ना, तेचप्रमाण भारताचेर राज्य करचेलोय इंग्लंडाक अधिकार ना. म्हज्या मातृभुंयेर गुलामगिरीचें वजन घालपी लोकांक जिवेच मारप हें न्यायाक धरूनूच जाता. म्हाका अलबत फांसार चड-यात. ताका लागून म्हज्या देशांतल्या लोकांच्या काळजांत स्वातंत्र्याचो उजो चड नेटान पेट्टलो. म्हजें बलीदान सार्थ जातलें. म्हजेसारख्या भुरग्यांकडे स्वताच्या रगताबगर आमचे आवयक

दिवक आनीक कांयच ना. आनी देखून हांव तेंच तिचे वेदीर ओपतां. देवालागीं म्हजें एकूच मागणें की स्वतंत्र मेळसर हेच मातृभुंयेचेर म्हाका परतो जल्म मेळचो आनी ह्याच पवित्र कामांत म्हाका मरण येवचें.'

मदनलालचें हें उलोवप सांजवेळच्या दिसाळयांतल्यान उजवाडाक आयलें. २५ जुलयक खटलो पुरो जालो आनी १७ ऑगस्टाक फांशी दिवपाचें फर्मान काडले.

'डेली न्यूज' हें त्यावेळचें इंग्लंडातलें म्हत्वाचें दिसाळें आसलें. त्या दिसाळयांत १६ आगस्टाच्या आंकांत मदनलालाचें पुराय उलोवप छापून आयिल्लें. बंदखणींत हें समजतकूच मदनलालाक भोव खोस भोगली.

१७ आगस्टाचो काळो दीस उजवाडलो. धिंग्राक त्याच दिसा फांसार चडवचो आसलो. धिंग्राचे इश्ट रडूंक लागले. ताणीं एक बोर्ड तयार करून लंडन शाराच्या मुखेल चौकार लायलो. ताचेर बरयल्लें, 'आज १७ आगस्ट १९०९, आयचो दीस दर एका राष्ट्रभक्ताक धक्को दितलो. आज आमचो इश्ट आनी म्हान देशभक्त मदनलाल धिंग्रा हाका 'पेटोनविले' बंदखणीत फांसार चडयतात. ताची याद आमकां उमेद दीत रावतली. ताचें नांव इतिहासांत भांगरा अक्षरांनी उरतलें आनी इतिहासाची सोबा वाडयतलें. इंग्लीश आमचो स्वातंत्र्यसंग्राम कशेंच चिडडूंक पावचेना, ही गजाल ताणीं विसरची न्हय.'

त्याच दिसा मदनलालाक फांसार चडयलो. तो शहीद जालो. मातृभुंयेच्या रक्षणाखातीर ह्या विरान आपलें जिवीत

ओपलें. १९०६ वर्सा शिकूंक म्हुण गेल्ल्या ह्या तरणाटयान फकत तीन वर्सांनी हांसत हांसत मरणाक लागीं केलें.

निर्भंयतेन फांसार चडिल्ल्या ह्या राश्ट्रविरान आपल्या जिविताक इल्लेंय मोल दिले ना. इंजिनीयर जावन ताच्यान खोटल्यानी दुडू करूं येताले पुण ताणें तशें केले ना.

तो सदांच म्हण्टालो, क्रांतींत पिशेपणा आसता, पुण तीं रचिल्लीं आसतात, देखुनूच देव, देश आनी धर्म हांचे रक्षण जाता.

ह्या क्रांतिविराच्यो आमी आरती गावंक जाय. सदांकाळ ताका काळजांत दवरूंक जाय.

-✻-

# भगतसिंग

२७ सप्टेंबर १९०७. पंजाबच्या वंगा खेडयांत जें आतां पाकिस्तानांत आसा, एका भुरग्याचो जल्म जालो. ह्या भुरग्याचो काका सरदार अजितसिंग हो राजकीय नदरेन धोको दिवपी म्हुण १८१८ च्या रेग्युलेशन तीनखाला मंडालेक बंदखणींत उडयल्लो. जांचेर न्यायालयांत कसलोच आरोप दवरप शक्य जायना अशा राजकीय कार्यकर्त्यांक बंदखणींत उडोवपाखातीर म्हुण ह्या कायद्याचो वापर करताले. प्रसिद्ध फुडारी लाला लजपतराय हांकांय ह्याच कायद्याखाला मंडाले बंदखणीत दवल्लेले.

भुरगो जल्माक आयलो तोच राजकारणाचे बाळकडू पियेवनूच. हो भुरगो म्हळ्यार सरदार भगतसिंग. मात्सो जाण्टो जालो आनी हाणे राजकीय कारकिर्द मुखार व्हरूंक सुरुवात केली. भ्रष्टाचारी महंताआड अकालींनी सुरू केल्ले चळवळींत घरच्यांचो विरोध आसुनूय ताणे वांटो घेतलो आनी आपुणूय कमी ना म्हणपाचें दाखोवन दिलें. धर्मिक स्वरुपाचे हे चळवळीचो

अणभव ताका ब्रिटीश सत्तेआड झगडटना उपयोगाक आयलो.

त्यावेळा पंजाब एका कठीण राजकीय परिस्थितींतल्यान वतालें. जालियनवाला हत्त्याकांडाचो लोकांक विसर पडूंक नासलो. पोलिसांच्या अत्त्याचारांक जाप म्हुण स्वातंत्र्यझुंजारी हिंसाचार करताले. आनी हातल्यांनूच भगतसिंगासारको एक सामान्य कार्यकर्तो पोलिसांआड जावपी कटांत धावलो. मिंटो पार्कांत जमिल्ल्या लोकांचेर बाँब उडयलो म्हुण ताका धल्लो. पुण पुरावो नासून ताका सोडचो पडलो.

भगतसिंग आतां पुरायतेन राजकारणी जाल्लो. ' नौजवान भारत सभा ' ही देशाच्या स्वातंत्र्याखातीर झगडपी संस्था ताणे सुरू केली. इल्लें इल्लें आपलें कार्य वाडयत उप्रांत ताणें ' हिंदुस्थान सोशलिस्ट पार्टी ' हो पंगड थापलो. दिल्लींतल्या तांच्या खटल्यांत ताणे आपल्या पंगडाच्या ध्येयधोरणाविशीं निवेदन केलें. ताणें म्हळें, ' हांव दहशतवादी न्हय. समाजवादी समाजाची थापणूक हे राजकीय शाखेच्या सहकार्यान काम करपी म्हज संघटनेच्या लष्करी विभागाचें काम जावन आसा. फकत बाँब उडोवप हें निरुपयोगीच न्हय जाल्यार संघटनेक लुकसान करपीय थरतलें. कश्टकरी लोकांक एक करप हेंच आमचें मुखेल ध्येय आसा.'

क्रांतिची आपली कल्पना सरळ करतना भगतसिंगान म्हळां, ' सद्द्याची राज्यवेवस्था आमकां काबार करूंक जाय. तेखातीर भांडवलदारांच्या हातांत आशिल्ली सरकारी यंत्रणा हातांत घेवपाची गरज आसा. आमच्या आदर्शांक मूर्त स्वरुप दिवचेखातीर आनी सामान्य लोकांच्या बऱ्याक म्हुण मार्क्साच्या

तत्वज्ञानाचेर ही यंत्रणा आधारूंक जाय. हेंच आमच्या झुंजाचें उद्दिष्ट.' राजकीय नदरेन फाटीं आशिल्ल्या भारतीयांक हें तत्वज्ञान नवेंच आसलें.

रशियेक भेट दिवपी जवाहरलालांचेर ह्या तत्वज्ञानाचो प्रभाव पडिल्लो. भगतसिंगाक आदरांजली ओपतना ताणे आपल्या आत्मचरित्रांत म्हळां, ' भारतांत सुमार तीस वर्सां दहशतवादी चळवळी चालू आसात. पुण भगतसिंगाक मेळ्ळा तितलो लोकांमोग आनी कोणाकूच मेळूंक ना. तात्पुरतो उत्सव सोडलो जाल्यार देशांतल्या तरणाट्यांक दहशतवादाचें केन्नाच आकर्शण दिसलें ना, ही वस्तुस्थिती. भगतसिंगाक मेळिल्ली प्रसिद्धी ही ताच्या दहशतवादीपणाक न्हय. ताणे आपले चळवळीक लाला लजपतराय हांची आनी तांच्या रूपान सगळ्या देशाची मान्यताय मेळयली. भगतसिंगावेलो लोकांमोग ही देशमोगाचीच खूण आसली.'

सायमन कमिशनामुखार लाहोरांत निदर्शनां करपी लाला लजपतराय आनी तांच्या वांगड्यांचेर पोलीस मुखेली स्कॉटसान नेटान लाठीहल्लो केलो आनी ते दुखीन लाला लजपतराय भायर पडले. पोलीस मारानूच तांका मरण आयलें अशें दोतोरांच्या अहवालांत स्पष्ट म्हणिल्लें.

भगतसिंग आनी ताच्या वांगड्यांनी हाचो सूड घेवंचें थारायलें आनी १५ डिसेंबर १९३३ दिसा लाहोराच्या पोलीसथाण्या सामकार पोलीस मुखेली जे. सँडर्साक गुळी घालून माल्लो. खरो मारपाचो आसलो स्कॉटसाक पुण वळखुपांत चूक जाली आनी सँडर्स मेलो. हाका लागून भगतसिंग वीर जालो आनी पंजाबी लोकांनी ताच्या धाडसाची तोखणाय करून ताच्या ह्या

कर्माक पुराय तेंको दिलो.

हे हत्येउपरांत पंजाबचो गव्हर्नर सर मालकम हेलेच्या मुखेलपणाखाला ब्रिटीश पोलिसांक मेकळे सोडले आनी ताणीं सगळ्या पंजाबभर भंयाचे वातावरण निर्माण केलें. कोणूच सुरक्षीत म्हणपाचो नासलो. राजकीय कार्यंकर्त्याकडल्यान गुन्यांवाची जाप मेळोवपाखातीर तांचेर अत्याचार जावंक लागले. राजकीय कार्यंकर्ते सोदचेखातीर लोकांचो छळ जालो. लाहोर किल्ल्यांत ह्याखातीर एक खास विभाग उबाल्लेलो जातूंत संवशयी मनशाक बर्फाच्या दोन लादयांमदीं न्हिदोवपासारखे प्रकार घडटाले.

पोलिसांच्या हातांतल्यान सुटिल्ले भगतसिंग आनी ताचे दोन वांगडी देशभर भोवन आयले. कलकत्त्यांत कांय वेळ रावन ते आग्र्याक आयले आनी ताणीं बाँब तयार करचो कारखानो काडलो. उपरांत भगतसिंग कानपुराक गेलो आनी गणेशकुमार विद्यार्थी हाच्या ‘ प्रताप ’ दैनिकांत वार्ताहर म्हुण काम करूंक लागलो.

भगतसिंगाच्या वाडट्या लोकमोगाक लागून ताच्या पंगडांतल्या कांय जाणांक ताचो मत्सर दिसूंक लागिल्लो. सुखदेवाच्या फुडारीपणाखाला आशिल्ल्या पंगडान ताका सेंट्रल असेंब्लींत बाँब उडोवंक तयार केलो आनी तातुंतूच ताका फांशी मेळ्ळी. भारतीय स्वातंत्र्यझुंजातलो व्हड हुतात्मा म्हुण तो अमर जालो.

जेन्ना भगतसिंग बंदखणींत पावलो, तेन्ना सरकाराक ती एक कटकट जावन गेली. राजकीय कैद्याक मेळपी वागणुकीआड ताणे झगडें उबाल्लें. ताकां कांयच सोयी मेळनासल्यो तें जालेंच पुण त्याभायर तांकां चोर, खुन्यावरी बेडयो घालताले. लाहोर कैदखान्यांत भगतसिंग आनी वांगडयांनी आपणांक बरे तरेन

वागोवची मागणी केली. न्यायालयांत बेडयांतल्यान मेकळे करपाची मागणी केली म्हुण तांकां मार घालो. जेवणावेळार बेडयो घालून घेवपाक न्हयकार दिलो म्हुण तांकां मार घालपाचो आदेश लाहोर उच्च न्यायालयाचे न्या. कोल्डस्ट्रीम हाणीच दिलो. ताका विरोध म्हणून कैद्यांनी उपासाक सुरवात केली आनी सरकाराक कांय सवलती दिवच्योच पडल्यो.

देशांतल्या सगळ्या भागांतल्यान आनी सगळ्या थरांतल्यान सुखदेव, राजगुरू आनी भगतसिंग फांशी दिनासतना जल्मठेपेंत दवरचे म्हुण मागणी जाताली. लॉर्ड आर्यविन आनी गांधी हांचे मदीं जावपी करारांत तशी तरतूद आसची म्हुण सगळ्या राजकारण्यांनी गांधीचेर दडपण हाडिल्लें. पुण ५ मार्च १९३१ दिसा जाल्ल्या करारांत हो विशय आयलोच ना. ह्या कैद्यांक फांशीच जावंक जाय असो आगरो लॉर्ड आर्यविनान धल्लो, कारण लोकांचेर पडिल्ल्या ह्या कैद्यांच्या प्रभावाचोच ब्रिटीश सरकाराक भंय दिसतालो.

गांधीक लोकमताची कल्पना आसलीच. फांसार वचपी ह्या विरांविशीं ताणी बरयलां, तांचे धैर्य खऱ्यानीच तोखणायेचें. फांशीचे शिक्षेन ह्या तरणाटयांक शौर्याचो मुकूट घाला. ताणीं ज्या मार्गान आपल्या धैर्याचो वापर केला तो मार्ग जरी आमकां स्विकारचेलो नासलो तरी तांचो त्याग, शौर्य आनी धैर्य हांची आमी तोखणायूच करूंक जाय.

फाशिच्या जाग्यार वतना भगतसिंगाच्या हातांत लेनिनाचें चरित्र आसलें. वेळ सोपलो म्हणपाचें जेन्ना सांगलें. तेन्ना ताणें म्हळें, ‘खीणभर मात्सो राव. एक क्रांतिकारी दुसऱ्या क्रांतिकाऱ्याक मेळटा.’



# निवेदिता

आमची मातृभूंय जेन्ना जायते अडचणिनी सांपडली त्यावेळार पश्चिमी देशांतले जायतेजाण आपुण जावन मदतीक धांवन आयले. कुमारी मार्गारिट नोबल ही तांतलीच एक. ती आयर्लंडातल्यांन भारतांत आयली आनी उपरांत निवेदिता नावान नामनेक पावली. त्यावेळार आयर्लंडूय भारतावरीच आपल्या स्वातंत्र्याखातीर झुंजतालें.

आयर्लंडचे इगर्जींतलो पादरी श्री. जॉन नोबल हाची श्रद्धास्थानां दोन–एक म्हळयार देव आनी दुसरे मातृभूंय आयर्लंड. ताचो पूत सॅम्युअल नोबल होय पाद्रीच आसलो. मेरी हेमिल्टन नावाचे सोबीत चलयेकडे ताचें लग्न जालें आनी तागेर १८६७ च्या ऑक्टोबर म्हयन्याचे २७ वेर मार्गारिटचो जल्म जालो. मार्गारिटाक आज्याकडल्यान धैर्य आनी देशभक्ती जाल्यार बापायकडल्यान गरिबांचे काकुळटेचो वारसो मेळिल्लो. आवयकडल्यान जाल्यार सोबीतकाये वांगडाच ल्हव मन आनी काकुट दिसपाची देण मेळिल्ली.

मार्गारेट सदांच आपल्या आज्या–बापायवांगडा गरिबांच्या खोपिनी वताली आनी तांची सेवा करपाक मदत करताली. सामकी ल्हानपणानसावन दिनदुबळ्यांची सेवा हो तिचो छंद जाल्लो. एक दीस मार्गारेटच्या बापायचो एक इश्ट तांका मेळूंक आयलो. तोय एक पादरी आसलो. भारतांतल्या इगर्जिनी काम केले उपरांत तो आपले आवयभुंयेंत परतल्लो. सानुल्या मार्गारेटची सोबीतकाय आनी तिच्या वागपाची पद्धत पळोवन तो अजापलो. परतो वतना ताणे आपल्या सानुल्या इश्टिणीक म्हळें, 'चलये, भारत तुजी वाट पळेता. भारतान एक दीस म्हाका आफयलो, आतां एक दीस तो तुकाय आफयतलो. ताका जाप दिवंक तयार राव.' ह्या उतरांनीं ते सानुलेचें मन हाल्लें. तिच्या दोळ्यांत वेगळेंच तेज दिसलें.



मार्गारेटाचो बापूय सॅम्युअल हांचे काम खूब त्रासांचे आसलें आनी जोडूय थोडी आसली. पुण आपल्या ह्या जोडींत-ल्यानूय ताणी गरीब भावंडाक जायती मदत केली. खूब त्रास आनी हुस्को हाचो परिणाम सॅम्युअलच्या जिवितार जालो. आनी खूब ल्हान पिरायेचेर म्हळ्यार ३४ व्या वर्सा तांका मरण आयलें. मरणावेळार ताणीं आपले बायलेक सांगलें, 'जेन्ना देव आफय-तलो तेन्ना मार्गारेटाक वचूं दी. ही चिरमुली आपलें सगलें कसब पणाक लावन व्हड काम करतली.'

घोवाच्या मरणाउपरांत मेरी आपल्या भुरग्यांक घेवन आयर्लंडाक गेली. तिच्या आवयबापायन आपल्या नातवांचो सगलो भार घेतलो. आनी कडक शिस्तीचेय संवस्कार तांचेर केले.

आनीक बरोच तेंप गेलो. मार्गारेटच्या आज्या-आज्जेन तिका आनी तिचे भयणीक हॅलिफॅक्स कॉलेजांत घालीं. थंय त्यो दोनूय भयणी हॉस्टेलांत रावं लागल्यो. थंय शिस्त हेंच ब्रीद आसलें. दोगूय भयणींक अभ्यासाची आवड आसली. मार्गा-रेटाक तर संगीत आनी हेर कलांचीय रूच आसली. तेचवरी प्राणिशास्त्राचीय आवड आसली. १८८४ त मार्गारेट जबाबदार तरणाटी जाली. १७ वर्सांचे पिरायेर शिकप सोंपले आनी माण-कुल्या भुरग्यांक हांसत खेळत शिकप दिवचेलें तिच्या मनांत आयलें.

तिणे तरेतरेचे प्रयोग केले आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार १८९२ त मार्गारेटान आपली स्वताची शाळा थापली. ती खूब लोकांक आवडूंक लागली. मार्गारेट प्रतिभासंपन्न मास्तरीण म्हणपाची धारणा लोकांमदीं जाली.

इंग्लंडांतल्या वेल्स भागांतलो एक तरणाटो इंजिनीयर मार्गारेटाकडे वोडलो. तांची इश्टागत मोगांत बदल्ली. तांचो साखरपुडोय जालो पुण दुर्देव म्हळ्यार त्या तरनाटयाक भयंकर दुयेंस जालें आनी तातुंतूच तो भायर पडलो. मार्गारेटाचेर दुख्खाचो दोंगर पडलो. पुण तिणे आपणांक सांबाळ्ळी आनी व्हडा धिरान आपले शाळेंत आनी स्वताच्या अभ्यासांत मन चड-चड गुंथोवन घेतलें.

१८९५ हें वर्स तिच्या जिवितांत नवी दिशा घेवन आयलें. ह्या वर्सासावन तिचें जिवीत सामकें बदलून गेलें. एका आयतारा तिची इश्टीण, लेडी इसाबेल मार्गेसन हिणे आपणांगेर एका

भारतीय संताचे भेटीक आमंत्रण दिल्लें. ते भेटिचो प्रसंग मार्गारिटान स्वताच चितारला.

'जमनीर आसनमांडी घालून बशिल्लो, भगव्या रंगाचे कपडे घाल्लो, कमराभोवतणीं तांबडी शाल गुठलायल्लो, एक भव्यदिव्य पुरुस हावें पळेलो. जमिल्लच्या लोकांकडे उलयतना हो म्हापुरुस आपल्या एकसुऱ्या पुण अंतस्करणांतल्यान येवपी आवाजान संस्कृत वचनां उलयतालो. ताची ती गंभीर मुद्रा, ताचें सोबीत व्यक्तीमत्व आनी परतत्वाक आफडून येवपी ताचो आवाज, हाणीं जमिल्लच्या सगळ्यांक पिशे केल्ले, मदीं–मदीं हो म्हापुरुस, 'शिव–शिव' हे शब्द उच्चारतालो, जाका लागून एकूण वातावरणूच धीरगंभीर, भव्यदिव्य जाल्लें.

मार्गारिटाक हातूंत नवें अशें कांयच दिसलें ना. तिणें हाचेपयलींच उदेंतेच्या पावित्र्याची खबर आयकल्ली. आनी ताचेर जायतो अभ्यास केल्लो. पुण स्वामिजीचें व्यक्तिमत्व मात तिका सामकेच नवें आसलें.

उपरांत मार्गारिटाक कळ्ळें कि हो संत म्हळ्यारूच स्वामी विवेकानंद. हाणींच १८९३ वर्सा शिकागोक आंतरराष्ट्रीय धर्मपरिषदेक हाजीर जावन आपल्या उलोवपान लाखांनी अमेरिकनांची मनां जिखिल्लीं.



स्वामी जे कितें सांगतात, ते नवे न्हय अशें जरी मार्गारिटाक पयलीं दिसलें तरी उपरांत ते सारके न्हय म्हणपाचें तिका कळ्ळें. 'देव हेंच एकलें एकसुरें संत' ह्या स्वामिच्या आत्मविश्वासान अुलयल्ल्या उतराची तिका

परत-परत याद जाताली. इतलेच न्हय तर तिचे मन त्या उत्तरान भेरेवन गेल्लें. स्वामिचो तो विश्वास नवो नासतूय पुण ताचेफाटली निश्ठा नवीच आसली. स्वामीन दुसरेच एक विधान केल्लें. ' दर एक धर्म देवाकडे वच्चो रस्तो जावन आसा.'

आनी स्वामीचे ते तेजीस्ट व्यक्तीमत्व. ताचेभोवतणीं खऱ्यानीच रखरखीत तेजाचे वलय आसले. ताणीं देवाखातीर सगळें सोडिल्लें. तांची उतरां म्हळचार फकत पोन्न्या धर्मग्रंथां-तल्या वाक्यांचो उच्चार नासलो. चैतन्यान भल्लेले तांचे शब्द आत्म्याच्या गर्भकुडींतल्यान येताले. ताणीं पळेल्ल्या आनी अण-भवल्ल्या सत्याचो प्रत्यय तांतल्यान येतालो.

मार्गारिट दिसींदिसीं स्वामीकडे चडचड आकर्शीत जावंक लागली. गडगडपी विजेन शेंकडयानी वर्साच्या धर्मपिश्या कल्प-नांक उजो लावचो आनी नवो रस्तो दाखोवचो, कितल्याशाच वर्सांच्या अज्ञानाचो खडपावरी काळोख चिरीत शेण्यान आपलो मार्ग तयार करचो; म्हान गुरुच्या मंत्रविद्येन शिश्याचे मन न्हिदेतल्यान जागचें आनी ताका आत्मसाक्षात्कार जावचो. आवयचे मायेन मनाक ल्हव सुखाचे ल्हार आफुडचें; तेचवरी स्वामिच्या अंतस्करणाच्या गाभाऱ्यांतल्यान आयिल्ले ते शब्द आयकून तिचें मन उजळटालें. ' स्वामिच्या गुणांनी म्हजे अंत-स्करण वोडून घेतलें आनी तांचेखातीर हांव तांचे मातृभुंयेची सेवक जालीं.' अशें मार्गारिटानूच बरोवन दवल्लां.

एक दीस प्रवचनाच्या ओघांत स्वामीन म्हळें, ' ह्या संव-सारांत एका देवाबगर म्हजें दुसरें कांयच ना अशें भर रस्त्यांत

उबीं रावन सांगपी संन्यस्त वृत्तीची वीस मनशां ह्या संवसाराक जाय. हांगा बशिल्ल्यांत, अशे सांगपी कोण आसा ?'

'हांव आसा, ' मार्गारिटाचे मन पुटपुटलें. तिच्या भित्र्या, लजरी तोंडातल्यान मात शब्द भायर सल्ले ना. एक दीस प्रवचनात भारतांतल्या बायलांविशी उलयतना स्वामीन म्हळें, थंय रावपी चलयांक शाळेचे दर्शनूय घडूंक ना. जोंवेर त्यो सुशिक्षीत जावच्यो नात, तोंवेर त्या देशाची प्रगती जावंकूच शकना.' आनी रोखडेच मार्गारिटाकडे वळून ताणीं म्हळें 'म्हज्या देशांतलें शिक्षण आनी बायलांचे कल्याण हाचेविशी म्हज्यो कांय येवजणो आसात तो प्रत्यक्षांत हाडपाखातीर तुजी सेवा जायशे दिसता म्हाका.'

स्वामिचो आपल्यावेलो विश्वास पळोवन मार्गारिटाक भोव खोस भोगली. पुण येदयाव्हडल्या कामाक आपुण लायक आसत काय ? हो संवशय तिच्या मनांत आसलो. तिची ती अवस्था जाणून स्वामीन तिचो विश्वास घट करीत म्हळें, ' हो संवसार हालोवन उडोवंक जाय ते गुण तुज्यांत आसात आनी हेर गुण तुका सहजतेन प्राप्त जातले - तरी ए म्हान बायले, जागी जा.'

मार्गारिटान आपली मायभूंय सोडून शेकडयांनी मैल पयस आशिल्ल्या विवेकानंदाच्या देशाक आपली मातृभूंय मानून थंयच्या लोकांचीं मनापासून सेवा करचो धिराचो निर्णय घेतलो.

मनाची तयारी करप सोपे नासलें. स्वामीन तिचेमुखार भारताचें चित्र सारखें उबे केल्लें. स्वामिच्या शब्दांनी तिका भारताचें वेगवेगळया तरांचें दर्शन घडयल्लें. दळीद्र, अज्ञान,

असुया आनी बुरशेपण हांची भारतांत सगळेचकडेन बजबज जाल्लो. शिवाय थंयचे ब्रिटीश राज्यकर्ते आपणांक उदकांत पळेतले. आनी भारतीय लोक संवशयान पळोवन आपलो मत्सर करतले अशें तिका दिसतालें. कारण स्वताच्याच देशभावंडाक अस्पृश समजुपी लोक ज्या देशांत आसात, त्या देशांतल्या बायलांची सेवा करूंक आनी भुरग्यांक शिकोवंक मार्गारेटाक सांगिल्ले.

थंयच्यो बायलो इतल्यो सनातनी आनी सवळया वृत्तीच्यो कि त्यो आपणांक हुमर हुपूंक दिवच्योनात शकपाचोय तोच प्रकार. थंयचे लोक आपल्या लाडक्या चलयांक, वेगळया धर्माचेर श्रद्धा आशिल्ल्या भायल्या मास्तरणीकडें शिकूंक दिवचेनात. अश्या विचारांत मन घुस्पलें आसतनाच मार्गारेटाक स्वामीकडल्यान धीर दिवपी संदेश आयलो. 'आमकां दादल्याची न्हय, तर बायल सेविकेची गरज आसा. भारतियांच्या आनी चड करून बायलांच्या सेवेखातीर आमकां शिवीणीवरी पराक्रम करपी बायल जाय.'

'भारतांत व्हड बायलो निर्माण जावचो काळ अजून येवंक ना. आनी तोवेर आमकां हेर देशांकडल्यान उदार उसणें घेत्रचेंच पडटलें. तुजें शिकप, कार्यावेली निश्ठा, शुद्ध चरित्र, माया, निर्धार आनी ताचेयपरस चड म्हळचार तुज्या शिरंत्रांनीं खेळपी आयरीश रगत, हाकालागून भारताक तुजेसारक्या बायलेची– न्हय तुजीच गरज आसा.'

तरीपुण नव्या कार्यक्षेत्रांत उडी घेंवचेपयली तूं

सगळे वाटांनी विचार कर. नव्या कामाखातीर सगळे कश्ट काडल्याउपरांत तुका जैत मेळळे ना आनी तुजी उमेद ना जाली, तर त्या मनस्थितींत तुवें वेदांताची कास धल्ली जावं वेदांताचो त्याग केलो आनी भारताची सेवा करपाचें व्रत सोडून दिलें तरी हांव तुज्या फाटल्यान उबो आसतलों, अशें हांव तुका उतर दितां. हत्तीचे भायर आयिल्ले सुळे परत भितर वचनात तेचवरी म्हजे शब्दूय केन्ना फाटल्यान सरचेनात.

२८ जानेवारी १८९८ दिसा मार्गारेटाक घेवन येवपी बोट कलकत्ता बंदरांत पावली. तिच्या स्वागताक स्वता स्वामी विवेकानंद हाजीर आसले. मार्गारेटाक शारांतल्या जिविताकडें एक जावंक वेळ लागलोना ज्या लोकांवांगडा रावंक जाय आसलें, जांचेखातीर काम करूंक जाय आसलें तांचेवांगडा वळख करून घेवंक तिणें सुरवात केली. सगळचांत पयली गजाल तिणें केली ती म्हळचार बंगाली भास शिकपाची आनी बंगाली साहित्याचो अभ्यास. भोवतणच्या लोकांचो विश्वास आनी मोग घेवचे-खातीर, तांचेकडेन उलोवणे आनी भासाभास करचेखातीर तांची भास जाणा जावप गरजेचेंच आसलें.

कांय सप्तका उपरांत विवेकानंदाच्यो दोन अमेरिकन शिष्या, श्रीमती सारा सी बुल आनी कु. जोसेफीन मॅकलिऑड ह्योय भारतांत आयल्यो, आनी तिनूय जिवाभावाच्यो अिश्टिणी जाल्यो. तांचे खोपिचोय आश्रम जालो. विवेकानंद सदांच थंय येताले. केन्नाय वांगडा संन्यासी भावांक हाडटाले. स्वामीन पावल दवरतांच ती खोप ईश्वरी चैतन्यान उजळटाली. आंगात आयिल्लेवरी ते शिश्यांसामकार वरांची वरां उलयत बसताले.

भारत, भारताचो अितिहास, भारतीय संत, वीर पुरुस, वीर बायलो, म्हाकाव्यां, पुराणां, भारतीय कवी, वास्तुशास्त्रज्ञ, शिल्पकार आनी हाचेयफुडें म्हळचार भारतीय ऋषी हे विवेकानंदांच्या प्रवचनाचे विशय आसले.

एक दीस कु. मॅकलिऑडान विचाल्ले, 'स्वामिजी, तुमचे पुराय सेवेखातीर हावें कितें करचें ?'

स्वामिजीन रोखडीच जाप दिली, 'भारताचेर मोग कर, हे मायभूयची सेवा कर, तिची पुजा कर. तीच प्रार्थना, तीच खरी भक्ती, तातूंत सगळें कितें आयलें.'

स्वामीन दिल्ली जाप आपणांचखातीर जावन आसा म्हणपाचें मार्गारिटान मनाक सांगलें.



स्वामी विवेकानंदाचे गुरु श्री रामकृष्ण परमहंस हे १८८६ त हो संवसार सोडून गेल्ले. तांची बायल श्रीशारदादेवी हांका परमहंसाचे अनुयायी भक्त 'पूजनीय माताजी' मानताले, माताजीय तांचे बरें मागताली आनी पवित्र नि कल्याणकारी कार्य करूंक उत्तेजन दिताली.

पूजनीय माताजींक मेळूक मार्गारिट तानेल्ली पुण तिचें मन दुबावान भियेताले. आपुण भायलीच न्हय तर वेगळ्या धर्माची आनी आपल्यो निश्ठाय वेगळ्यो आशिल्यान भारतीय सनातनी रितिरिवाजांत वाडिल्ल्यो माताजी आपणांक आनी आपले अिश्टिणींक येवकार दीत काय ना, ह्या दुबावाची पाल तिचे मनांत चुकचुकताली. पुण श्रीशारदादेवी म्हळयार माया

आनी पावित्र्याची मुर्तच आसली. ताणीं मार्गारेट, सारा बुल आनी मॅकलिआॅड हांका आपल्या धुवांवरीच येवकार दिलो.

२५ मार्च १८९८ हो मार्गारिटाच्या जिवितांतलो सगळयांत पवित्र आनी जिवितभर याद उरसारको दीस. ह्याच दिसा तिच्या गुरुन मार्गारिटाचें जिवीत देवाचे पुजेखातीर आनी भारताचे सेवेखातीर ओंपले. तो दीस शुक्रार आसलो. स्वामी विवेकानंदान तिगांय शिश्यांक मठांत व्हेलीं. मार्गारिट सगळयांत मुखार आसली. थंय वतकूच विवेकानंदान तिका शंकराची पुजा करूंक शिकयली.

उपरांत कोणाच्याच मदतीबगर तिचेकडल्यान सगळी पुजा करून घेतली. इश्ट देवतेची पुजा करपाची रीत गुरुकडल्यान शिकूंक मेळप ही शिश्यावेली व्हड कृपाच म्हणूंक जाय. हे पुजेवेळाच मार्गारिटाक तनरी लागली आनी ते अवस्थेनूच स्वामीन तिका ब्रम्हचर्याचो सोपूद दिवन तिका आपली शिश्य केली.

ह्याचवेळा मार्गारिटाक 'निवेदिता' हें नांव दिलें. निवेदिता म्हळयार निष्ठा आशिल्ली. भगवान बुद्धाच्या पायार कमळाचीं फुलां ओपूंक सांगून स्वामीन तिका आशिर्वाद दिलो. आनी फुडलो संदेश दिलो. 'चल म्हजे धुवे, चल. ज्या आत्म्यान बुद्धजल्म घेवचे पयलीं पांचशे जल्म घेतले, जो शुद्ध मोगाचो आनी निस्वार्थ त्यागाचो पुतळोच आसलो, त्या म्हान बुद्धात्म्यान जो मार्ग धरिल्लो, त्याच मार्गान तूंय वच.



१३ नोव्हेंबर १८९८ क निवेदितान एके भाड्याचे खोपीत आपली सानुली शाळा सुरू केली. निवेदिताच्या व्यक्तीमत्वाची छाप पळोवप्यांचेर पयल्याखिणांक पडटाली. तिचेविशी आदर दिसचो अशी देखणी कूड, तिच्या आंगावेलो फुल्लधवो झगो, कमराभोवतणीं बांदिल्लो रेशमी पटो, हाकालागून तिच्या सैमीक सोबीतकायेंत गिरेस्तकायेची भर पडटाली. गळ्यांतलीं रुद्राक्ष माळ तिचें साधुत्व दाखयताली. जेन्ना निवेदिता एकाद्र्या जाहीर समारंभात उलोवंक वताली तेन्ना लोक व्हडा उमेदीन उबे रावन तिका येवकार दिताले.

शाळा सुरू जाली पुण विद्यार्थिनी कश्यो मेळवप हो प्रश्न निवेदिताक पडलो. ती लोकांच्या घराघरांनी वचून, चलयांच्या बापायकडे उलोवन, चलयांक शाळेंत धाडपाविशी ताच्या मनांत आयिल्ले दुबाव न करपाचें यत्न तिणें केले.

‘ चलयांक शाळेंत धाडप, बरीच अजापाची कल्पना;’ हे उद्‌गार जायत्या बापायांच्या तोंडातल्यान आयकूंक आयले, जायते जाणानी निवेदिताची फकाणां माल्ली. पुण ह्या विरोधाक तोंड दीत तिणें नेटान आपले यत्न चालू दवल्ले आनी ह्या यत्नानीच तिका निमाणें वेगवेगळ्या वयाच्यो कांय चलयो विद्यार्थिनी म्हुण मेळोवपांत जैत मेळळें. तिणें ह्या चलयांक वाचूंक बरोवंक शिकयले. तेचवरी चित्रकला रंगकाम, मातयेच्यो बावल्यो आनी शिल्पां तयार करपाचें शिकप दिलें.

भोवतणच्या लोकांचेर निवेदिताची भोव माया आसली. हाकाच लागून सुरवेचो विरोध पयस जालो आनी निवेदिताक शेजारच्या घरांनी आनी लोकांच्या अंत- स्करणांत प्रवेश मेळोवचो मार्ग मेकळो जालो. वेगवेगळ्या कुटुंबानी सहजतेन वावुरपी निवेदिता ल्हवू ल्हवू त्या घरांतलीच एक जाल्ली. कलकत्ता शाराच्या उत्तरभागांत तर तिका सगळे ' भगिनी निवेदिता ' म्हणूंक लागले.

एकदा एक दुर्दैवी आवय आडुत – रडत आयली आनी निवेदिताक म्हणूं लागली, ' बेगीन यो. म्हजें निमाणें भुरगे जिविताचे निमाणे खीण मेजता.' निवेदिता धांवतूच ते बायलेच्या घरा गेली पुण ती पावचेपयलीच त्या भुरग्याचो जीव कूड सोडून गेल्लो. ते आवयन आपल्या मेल्ल्या भुरग्याक वेंगेत धल्लें आनी कितलीशीच वरां रडत रावली. निमाणें तिणें निवेदिताकूच वेंग माल्ली आनी म्हणूं लागली, ' आतां हांव कितें करूं ? सांग. म्हजो बाबुलो खंय गेलो ?' निवेदितान ते आवयक धीर दीत म्हळे, ' आतां रडूं नाका. तुजो बाब व्हडले आवयकडे गेला. तो आतां कालिमातेचे वेंगेत आसा.'

निवेदितान ही गजाल स्वामिजीक सांगली तेन्ना ताणीं तिका धिराचो संदेश दिवन म्हळें, ' मरणाचीय पुजा कर, निवे- दिता जें भयानक आसतलें ताचीय सोबीतकायेची करता तशी पुजा कर.'

निवेदितान स्वामिचो हो संदेश अंतस्करणाचेर पिताळून दवल्लो. आनी तिका कळळें किं मरण म्हळयार दुसरे कांयच न्हय तर जिविताच्या चेहऱ्याची फाटली बाजू. आनी हो तिका

जाल्लो साक्षात्कार खरो काय फट हाचो कस लागचो प्रसंगूय रोखडोच आयलो.



मार्च १८९९ त कलकत्त्यांत प्लेगाची लागण जाली आनी पळेतां पळेतां ही लागण शारभर पसरली... सदांच शेकडयांनी मनशां मरूं लागली. निवेदिता दुखेस्त जावनूय तांचे मदतीक धांवली. लोकांचे जीव वांचोवचे खातीर तिणे रस्ते झाडप, खळयो निवळ करप सारकीं कामां करूंकूय फाटींफुडें पळेले ना. बंगाली भुरग्यांक त्रासाची कामां करपाची संवय नासली. तातुंतूय सान्न मारपाचें काम सामकेंच हलकें अशें ते मानताले. निवेदिता काम करूंक लागली कि बंगाली भुरगे फकत पळेताले. बायलांक हे गजालीची लज दिसताली आनी त्यो घरांत लिपताल्यो. पुण निमाणें त्योय बदल्ल्यो आनी सगळयांनी भगिनी निवेदितावांगडा नितळ करूंक सुरवात केली. कलकत्त्याच्या लोकांक नितळसाण, स्वावलंबन आनी समाजसेवेचो पयलो धडो मेळ्ळो.

निवेदितान प्लेगावांगडा एकठांय झगडूंक सामाजीक कार्य-कर्त्यांची समिती घडयली. कार्यकर्ते शाराच्या सगळ्या वाठारांत पावले. रस्ते – गल्ल्यो नितळ करपावांगडाच प्लेग जाल्ल्यांची सेवा करपाचें काम सुरू जालें. निवेदिता रात दीस खपताली. सदचें जेवण आनी विसव घेवंकूय तिका वेळ नासलो आनी हाकाचलागून तिची प्रकृती अिबाडली.

निवेदिता आनी तिच्या वांगडयांनी दीसरात काम करून तीस दिसांउपरांत प्लेगाचेर जैत जोडलें. हें करतना

तिणे स्वताचें जिवीत आसांत घालून शेकड्यांनी लोकांचे जीव वाटायले. म्हयनोभराच्या ह्या काळांत निवेदिता दूद आनी फळांचेर जगली. एकदां जाल्यार प्लेग जाल्ल्याक वखद दिवंक पयशे जाय म्हुण तिणें दुदूय सोडलें.

○ ○ ○

निवेदिताची शाळा पयशांक लागून आडखळत चलताली. भुरगीं शाळेंत हाडप जंय आसांचे थंय पयशे खंयसून मेळटले ? हाका लागून शाळेखातीर जाय तितले दुडू खर्चिले उपरांत निवेदितालागीं जेवंक जाय तितले पयशे उरताले. अशा वेळार ह्या देशांत काम करूंक लागपी दुडू भायल्या देशाकडल्यान मागल्यार बरें काय असो विचार निवेदिताच्या मनांत आयलो. तिणे स्वामीकडे हे विशीं विचाल्लें ताणीं हय म्हळें तेन्ना निवेदिताच्या मनावेलो भार मात्सो ल्हव जालो. जून १८९९ त निवेदिता बोटीन अस्तमतेच्या दौऱ्यार वचूंक भायर सल्ली. ती येरोपांतल्यान अमेरिकेक गेली. आपले ल्हानशे शाळेखातीर जायतितलो दुडू मेळोवप इतलोच तिचो उद्देश आसलो. पुण अमेरिकेक वेतकूच तिच्या लक्षांत आयलें किं भारत आनी भारताची उज्वल संस्कृताय हाची अमेरिकेक माहिती दिवप गरजेचें जावन आसा.

भारत आनी भारतांतलो धर्म हाचेबद्दल जायत्या ख्रिस्ती मिशनऱ्यांनी अमेरिकेत फटींगपणाचो प्रचार केल्लो. भारतातले दळदीर, अज्ञान, धर्मपिशेपण हांचे चित्र नाका तशें रंगोवन भारताविशीं अस्तंत देशांक वीट दिसतली असो प्रचार केल्लो, धर्माचो उपदेश करतल्यानीच असो धर्माआड मार्गाचो उपयोग करप म्हळ्यार येशू ख्रिस्ताआड आवाज काडप, अशें निवेदिताक

दिसतालें. देखुनूच निवेदितान आपल्या गुरुप्रमाणूच अमेरिकेचो दौरो करून व्हड-व्हड शारांत आनी गांवात व्हड लोकांसामकार उलोवपां केलीं आनी अमेरिकेच्या लोकांक भारताची खरी वळख करून सद्याच्या अधोगतीची कारणां दिलीं. आपल्या प्रभावी वाणीन, सत्य उलोवपान आनी प्रामाणिकपणान निवेदितान भारतीय जिविताचें दर्शन अमेरिकेक घडयलें. धर्मांच्या नांवाखाला फटींगपणां करतल्यांनी आपणांक आयजमेरेन फट माहिती दिवन फटयले आनी आपुण फटवले म्हुण निवेदिताची उलोवपां आयकून अमेरिकन लोकांक खेद जालो आनी भारताची खरी वळख घडयल्लेबद्दल निवेदिताचे उपकार मानले.

चड तेंप परकी राजवटीन भारताची वाट लायली हें सत अमेरिकेक पटोवन दिवपाक निवेदिताक यश मेळळें पुण आपले शाळेखातीर आनी भारतांतलें कार्याखातीर भरपूर निधी जमोवंक मात जमलेंना.



निवेदिता १९०१ त भारतांत परतली. आतां बोसपाडा बोळांतल्या १७ नंबरच्या घरांत ती रावताली आनी त्याच घरांत तिणें आपली शाळा थाटली. निवेदिताचें घर म्हळचार त्या काळांत बुद्धीमान लोकांचे आनी स्वातंत्र्याखातीर झगडपी राजकीय फुडाऱ्यांचे विसव घेवपाचें ठिकाण जाल्लें. ह्याच काळांत जर्मनीतली एक तरणाटी, कुमारी ख्रिस्तिन ग्रिन्सटायडेल ही भारताची सेवा करूंक आयली आनी निवेदिताची इश्टीण जाली. ख्रिस्तिनाचो वांगोड निवेदिताक मोलाचो थल्लो.

निवेदिताचे शाळेचें काम नव्या नेटान सुरू जालें. आतां

फकत चलयोच न्हय, तर तांच्यो आवयो लेगीत शाळेंत शिकूंक येवंक लागल्यो. शाळेचो खर्च चलोवप निवेदिताक बरेंच जड वतालें. निवेदितावरीच ख्रिस्तिनाकूय हलाखींत दीस काडचे पडले. पुण भियेनासतना निर्धारान ताणीं आपलें काम चालूच दवल्लें आनी चलयो, बायलो हांचें शिकप बंद पडूंक दिलेंना.

१९०२ हें वर्स निवेदिताचे जिवितांतलें काळखी वर्स म्हणूंक जाय. २९ जुनाक आपल्या गुरूंक मेळूंक ती बेलूर मठांत गेल्ली. उलोवपाच्या ओघांत स्वामीन म्हळें, 'हांव मरणाक फुडो करची तयारी करतां.' २ जुलयक एकादस आसली. त्या दिसा गुरूंक मेळचें अशें भोंवन निवेदिताक दिसूंक लागलें. ती आयली म्हणपाचें मठांत कळ्ळें. स्वामिजिचें अंतस्करण तिच्या येवपान खोशी जालें. स्वामिचो उपास आसलो तरी ताणीं तिचेखातीर जेवण करूंक सांगले आनी स्वता निवेदिताक वाडली. जेवतकूच आपणेंच तिच्या हातार उदक घालें आनी निवेदितान नाका म्हळां आसतनाय तिचे हात तुवाल्यान पुसले. स्वामिच्या ह्या वागण्यान निवेदिता दुखावली आनी कागाळेच्या सुरांत तिणें म्हळें, 'स्वामिजी, हांवे तुमची सेवा करपाची, तुमचेकडल्यान करून घेवपाची न्हय.'

स्वामीन म्हळें, 'येशून आपल्या शिश्यांचे पांय धुल्ले हें खरें?'

'हय, पुण ते येशूच्या अवताराचे निमाणे खीण आसले.' अशी जाप दिवची विचार तिच्या मनांत आयलो पुण शब्द भायर सल्ले नात.

त्या दिसा स्वामी सामके मोगी जाल्ले. ताणी आपल्या

वेंचीक शिश्यांचेर मोगाचो पावस घालो. निवेदिता तातूंच इतली सुखावली किं तिका आपल्या मनाचे व्यथेचोय विसर पडलो. आनी तेच स्थितीत ती घरा परतली.

आपल्या गुरूची ही निमाणीच भेट म्हणपाचें निवेदिताच्या मनांतूय आयलें ना. पुण स्वामीन तिची केल्ली सेवा आनी ख्रिस्ताचें उदाहरण दिल्लें ते वोगीच नासलें. १९०२, जुलयच्या ३ तारकेर रातचो स्वामीन म्हासमाधी घेतली.

४ जुलयक सकाळी सकाळीच ही खबर निवेदिताक कळयली. हो तिचेर जाल्लो आघात आसलो. स्वामी म्हळचार तिचें सर्वस्व. जाणी तिका जिविताचो अर्थ सांगिल्लो आनी वाट दाखयल्ली तेच काळाच्या पड्डयाआड गेल्ले. उजवाड सोपून सगळेकडे काळोख जाल्लो.

निवेदिता धांवत स्वामिच्या मठाकडे गेली. तिच्या दुखेस्त अंतस्करणांतल्यान रडपाचे उमाळे फुटूं लागले. तिणें स्वामींक श्रद्धांजली ओपली. आनी ती दनपारचीं दोन वरांमेरेन स्वामींक वारें घालीत थंयच बसून रावली.

वेदमंत्राच्या घोशांत स्वामिची कूड गंगेदेगेर व्हेली. थंयच निमाणे संवस्कार जाले. 'स्वामी विवेकानंदाचो जयजयकार जावं !' अश्या घोशणांनी मळब हाल्लें.

थंय जमिल्ले लाखांनी लोक कांय वेळातच परतले. सगळे-कडें उक्तें-उक्तें दिसूंक लागलें. बाबडी निवेदिता मात थंयच बसून आसली– एकलीच. भोवतणचो विचार करीनासतना, पयस खंयतरी धारे पलतडी नदर लावन !

आतां स्वामी नासले. ह्यामुखार निवेदिता कोणाचो आलाशिरो घेतली आनी कोणाकडे उपदेश मागतली ? तिच्या जिवाक कोण समजयतलो ?



निराशेन दुकां गळयत बसप वा मनांतल्या मनांत फुगार जावप हें निवेदिताच्या स्वभावांत नासलें. स्वामिनूय तिका दिल्ली प्रेरणा निराशेची वा भयाची नासली जाल्यार आत्मविश्वास आनी धैर्याची आसली. शिविणीन सावदाक सोदूंक तयार जावचें, आयाळ फाफूडची आनी व्हडान आड्डुन नेटान पावलां मारची तेपरी निवेदिता उबी रावली. तिणें व्यथा – वेदना कुशीक उडयल्यो आनी फुडारपण सांबाळीत भारताक आनी जगाक आपल्या दिव्य संदेशान साद घालो. भारताची प्रतिष्ठा हें तिचें ध्येय जालें आनी भारताक स्वातंत्र्य मेळोवन दिवप हें कार्य थल्लें.

भारत आनी ब्रिटन इश्ट म्हणून जगूंक शकतात अशें तिका सुरवेक दिस पुण तें सारकें न्हय म्हणपाचें तिका रोखडेंच कळून आयलें. ब्रिटन भारताचें सगळें ऐश्वर्यूच पिळून व्हरता म्हणपाचें तिणें पळेलें. इतलेंच न्हय तर साम्राज्यशायेच्या गुर्मेंत, ब्रिटन भारताच्या आदरणीय पुतांचोय अपमान करता म्हणपाचें तिणें अणभवलें.

दोन गजालिनी तर तिका हालोवन उडयली. संवसारीक किर्तीचो वैज्ञानिक जगदीशचंद्र बोस हो निवेदिताचो लागीचो इश्ट आसलो. फ्रांसांत जगदीशचंद्राचो जेन्ना भोवमान जालो तेन्ना निवेदिताक खोस जाली आनी अभिमानूय दिसलो. पुण

ब्रिटनांत मात जगदीशचंद्राक व्हडलोसो मान मेळळोना. दुसरी गजाल, बिपिन चंद्रपाल हांचे संबंदी. भारताचो हो राष्ट्रवादी फुडारी. अमेरीकनांच्या मेळाव्यामुखार उलोवंक उबो रावलो तेन्ना आयकुप्यांतलो अेकलो उठून म्हणूं लागलो, ' मिस्टर पाल, पयलीं तुमचो देश स्वतंत्र जावं दी, मागीरूच आमकां उपदेश करूंक हांगा यो.'

हे गजालीची याद जाली तरी निवेदिताचें रगत तापतालें. जोमेरेन भारत राजकीय स्वातंत्र्य मेळयना तोमेरेन भारतियांक ' मनीस ' म्हणून वागणूक मेळप कठीणूच अशेंच तिका दिशिल्लें. आनी देखुनूच गोऱ्यांतूय गोरी दिसपी हे बायलेन चिंतन, प्रचार आनी कार्य ह्या तिनूय माध्यमांतल्यान भारताच्या स्वातंत्र्यतायेखातीर झगडपाचें थारायल्लें. आतां भारत हीच तिची मातृभूंय आसली. आपली वाणी आनी लिखणी स्वातंत्र्यझुजांखातीरूच वापरपाचे तिणें थारायलें.



बंगालच्या घराघरांत निवेदिताचें नांव आयकूंक येतालें. पाटना, लखनौ, वाराणसी, मुंबय, नागपूर आनी मद्रास ह्या सगळ्या शारांनी लोकांचे गर्देमुखार उलोवपां दिवन निवेदितान स्वातंत्र्यझुंजाचें शींग फुंकून लोकांक आवाहन केल्लें. ब्रिटीश राजवट तापिल्ली पुण निवेदिताच्या वाणी – लिखणीचो ओघ बंद उडोवचें धाडस मात ताका जालें ना. उरफाटें, ब्रिटनच्या व्हड लोकांनी आनी उपरांत ब्रिटनचे पंतप्रधान जाल्ले रॅम्से मॅक्डोनाल्ड तशेंच कांय तेपान भारताचे व्हायसरॉय जाल्ले लॉर्ड मिन्टोचे बायलेन निवेदिताचे सानुले शाळेक भेट दिवन, भारतीय बायलांक शिकोवपाच्या तिच्या म्हान कार्याची तोखणायूच केलीं.

निवेदिताची शाळा राष्ट्रवादी केंद्र जाल्ली. बंकिमबाबूचें राष्ट्रगीत ‘ वन्देमातरम् ’ हें तिचे शाळेंतलें प्रार्थना–गीत जाल्लें. निवेदिता खादी वापरूंक लागली. चरख्यार सूत काडप हो तिच्या जिविताचोच भाग जालो. निवेदिताच्यो विद्यार्थिनीय सूत काडूंक लागल्यो.

बंगालच्या कलाक्षेत्रांत क्रांती घडोवपाचें श्रेयूय निवेदिता-कूच दिवचे पडटलें. भारतीय संवस्कृतीकडे इमान राखी नासतना, तेचवरी अंतस्कर्णांतली स्फूर्त वापरी नासतना, भारतीय रंग–चित्र ‘ कलाकार ’ अस्तमते कलेचे नमुने चित्रावपी ‘ नकलांकार ’ जातात म्हणपाचे निवेदिताच्या लक्षांत आयलें. आनी निवेदितान तांची चूक तांचे नदरेक हाडून तांका बदलचेलें काम केलें. रविंद्रनाथ टागोर, नंदनलाल बोस आनी असित हलदर सारख्या चित्रकारांक निवेदितान मदत करून मुखार हाडले. तिकालागून हे लोक अजंठा, वेरूळ आनी हेर चित्र–शिल्प थळांक भेट दिवंक पावले आनी आपल्या पूर्वजांपासून तांका स्फूर्त मेळूंक पावली. निवेदिताच्या प्रभावाक लागून बंगाली कला फुल्ली.

जें जें ‘ भारतीय ’ तें तें ‘ प्रिय ’ हो निवेदिताच्या व्यक्तीमत्वाचोच भाग जाल्लो. भारतियांक तांचो राष्ट्रीय वारसो समजुचो म्हुण निवेदितान पोन्न्या ग्रंथाचो अर्थ समजुपी पुस्तकां बरयलीं. भारतांतल्यो मुर्तीपुजा, धर्मीक आनी राष्ट्रीय सण, पवित्र तिथी बी पोन्ने संकेत जगपाखातीर जायच आसले म्हणपाचें निवेदितान भारतियांक पटोवन सांगले. वेद, उपनिषदां, म्हाभारत आनी पुराणांचे व्हडपण दाखोवन दिलें. भारतीय जिविताकडे अेकरूप जाल्ल्या जायत्या गजालीचो अभिमान

दिसूंक जाय. हेंय तिणेंच लोकांच्या मनांत भल्लें. हें तिचें, व्हड कार्य म्हणूंक जाय. कारण त्यावेळार जायत्या लोकांक भारतीय गजालीची लज दिसूंक लागिल्ली.

o o o

निवेदिताचें जिवित आतां राजकीय चर्चा आनी चळवळ हांचो व्हझरो जाल्लें. जाहीर सभा, व्याख्यानां, लेखन आनी कितलोसोच पत्रवेव्हार हातुनूच निवेदिताचो सगळो वेळ वतालो. तिचे अिश्ट वांगडी आनी बरें मागतेय वाडत आसले. पुज्य माताजिची लाडकी धू म्हुण निवेदिताक नांव मेळ्ळें. रामकृष्ण परमहंसाच्या शिश्यांक तिचेबद्दल आपुलकी आनी आदर दिसतालो. रवींद्रनाथ टागोरांक तर निवेदिता म्हळचार स्फूर्त दिवपी व्हड झरोच दिसताली. सुरेन्द्रनाथ बॅनर्जी, गोपाळकृष्ण गोखले, रमेशचंद्र दत्त, बिपिनचंद्र पाल आनी अरविंद घोष हांका निवेदिता तत्वज्ञ आनी इश्टीण दिसताली. देशांतल्या तरणा-टयांची ती आदर्शमुर्तीच जाल्ली. गांधी, टिळक सारख्या व्हड फुडाऱ्यानीच निवेदिताच्या कार्यांची तोखणाय केल्ली.

अशे तरेन निवेदिताचें जिवीत म्हळचार सेवा, त्याग, यत्न आनी स्फूर्त हांची गांथनूच आसली.

अेकसारकें काम केल्ल्यान निवेदिताचीं कूड भर तरणाटे-पणांतूच म्हातारी जाल्ली. पुण तिका विसव म्हण्टा तो खबरूच नासलो. लोकांनीय तिच्या कामाचो पुराय लाव घेतलो पुण तिका कितें जाय हाची वासपुस करचे तांका कळ्ळेंच ना.

१९०५ वर्सा निवेदिता दुयेंत पडली. तिच्या लागीच्या

इश्टांनी, चड करून रामकृष्ण आश्रमांतल्या धर्मप्रचारकांनी तिची सेवा केली. तिच्या जिवाक मात्शेशें बरें दिसलें. पुण ती विसव घेवंक तयार नासली. आपल्या जिवाची तिणें मातूय वासपूस केली ना. ह्याचवेळा ब्रिटीश राजवटीन बंगालचे कुडके केले आनी आंदोलनाचो उजो पेटलो. निवेदितानूय त्या झगड्यांत उडी माल्ली. दुसऱ्याच वर्सा पूर्ण बंगालांत म्हापुरान संकश्ट हाडलें. सगळेकडें दुश्काळ पडलो. हुंवार उदकांतल्यान वाट काडीत, चिखोल माड्डीत निवेदितान लोकांचे मदतीक खेडी–गावां माडयली. पिडिल्ल्या लोकांक मदत करूंक तिणें बंगाली तरणाट्यांची संघटना उबारिल्ली.

उपरांत मात तिचें दुयेंस वाडलें. पुण आपले कुडीची पर्वा करिनासतना ती गरीब आनी पिडिल्ल्यांचे मदतीखातीर झगडत उल्ली. जेन्ना तिच्यान मातूय नजो जालें तेन्ना तिणें मृत्युपत्र तयार केलें आनी आपलें सगळें बेलुर मठाक ओपलें. तशें पळोवंक गेल्यार तिचेकडेन सदच्या खर्चाचे पयशे सोडल्यार आनीक कांयच नासलें. तिणें बरयल्ल्या पुस्तकांच्या ‘ कॉपीरायटा ’ चे पयशे तिका मेळटाले. तोय हक्क तिणें बेलुर मठाक दिलो. जें जें कितें म्हजें म्हुण आसा तें सगळें भारतांतल्या बायलांच्या शिकपाक वापरचें अशें तिणें आपल्या मृत्युपत्रांत बरयलां.

१३ ऑक्टोबरचो सकाळ. निवेदिता दार्जिलिंगाक आसली. फाटले कितलेशेच दीस कुपांत लिपून बशिल्ल्या सुर्यान त्या दिसा सकाळीं अकस्मात दर्शन दिलें आनी निवेदिताचे कुडीत सुर्यकिरणांचो उजवाड पडलो. निवेदिता पुराय समाधीत

आसली, दोळे उगडले तेन्ना तिका उजवाड दिसलो आनी ती बडबडली, ' म्हजे कुडिचें हें अशक्त व्होडें आतां बुडटा पुण म्हाका उदेत्या सुर्याचें दर्शन घडटा. ' हेच निवेदिताचे निमाणें शब्द.

बुडलें तें ल्हान व्होडें नासलें, ती अेक व्हड बोट आसली. निवेदिताक जो उदेतो सुर्य दिसलो, तसो उजवाड तिचेवरी कांय वेंचीक लोकांकूच दिसता.

सर जगदीशचंद्र बोसान आपली प्रसिद्ध संवशोधन संवस्था थापली. ते संवस्थेंत हातांत दिवो घेवन मुखार पावल उडोवंक तयार जाल्ले बायलेची प्रतिमा थापिल्ली. निवेदिताचे यादीखातीरूच जगदीशचंद्रान हें केलें.

हिमालयाचे कुशींत ह्या म्हान बायलेची कूड विसव घेता. तिचे समाधीच्या रूपान सामको सादो उंचवटो उबाल्ला आनी ताचेर बरयला- ' जिणें आपलें सर्वस्व भारताक दिलें, ती निवेदिता हांगा विसव घेता.'

पुण निवेदितान थापिल्ली ल्हानशी शाळा हें निवेदिताचें खरें स्मारक. ते शाळेचो आनी ताचे फाटल्या हेताचो आतां भारतभर विस्तार जाला. हजारानी चलयो - बायलांक ते संवस्थेवतीन शिकप मेळटा.

शुन्यांतल्यान हें सगळें उबारपी हें म्हान बायलेचे यादिनूच कोणायची मान बावगुची. आनी दर अेकल्यान तिचें कार्य मुखार व्हरूंक फुडें सरचें. तिच्यो आरती गांवच्यो.

-※-